# हांव मनीस अश्वत्थामो

प्रकाश पाडगांवकार



अिश्टागत प्रकाशन

○



○

पयलें छापप : अेप्रिल १९८५

○

छापपी :

**सदाशिव जो. हुंदरे**
रवि मुद्रणालय,
कडोलकर गल्ली,
बेळगांव-५९० ००२.
फोन : २३०७९

○

अुजवाडावपी :

**रमेश वेळुस्कार**
अिश्टागत प्रकाशन,
ओ–३६, मळें,
पंणजी – गोंय-४०३ ००१

○

**मोल : १५ रुपया.**

जांच्या सव्वासांत म्हज्या कवितेचें मुळावण
घट जावंक पावलें त्या

सर्गेस्त भौ. विष्णुबाब नायक
**आनी**
सर्गेस्त भौ. बाकीबाब बोरकार

हांकां आदरान

प्रकाश पाडगांवकार हांचे हेर कविता संग्रह

" अुजवाडाची पावलां "

कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय पुरस्कार १९७६

" वास्कोयन "

कला अकादमी गोंय, पुरस्कार १९७८

जो भेटेन पर्वतेर मनीस जिबो आसतलो
तो भेटेन अश्वत्थाम्याक मरण ना----

प्रकाश दा० पाडगांवकार

# अनुक्रम


| | | |
|---|---|---|
| १ | हांव मनीस अश्वत्थामो | १ |
| २ | सुर्याचें दुख्ख | २ |
| ३ | हांव अेक शेवणें | ४ |
| ४ | रोप्या | ५ |
| ५ | म्हजी जीण | ६ |
| ६ | नाट | ७ |
| ७ | जीण | ८ |
| ८ | कविता | ९ |
| ९ | गुन्यांवकार | १० |
| १० | हांव आंकवार जड्डी | ११ |
| ११ | देवळातली मूर्त | १२ |
| १२ | फुडार | १४ |
| १३ | जनावर आनी मनीस | १५ |
| १४ | म्हजी बोटां | १६ |
| १५ | दुखणीं | १७ |
| १६ | जिणे येरादारी | १८ |
| १७ | तीन कविता प्रियेच्यो | १९ |
| १८ | स्रावण न्हंय | २१ |
| १९ | झाडां उबी तंद्रेची | २२ |
| २० | आंकवारपण | २३ |
| २१ | मोग निळो सुवाळो | २४ |
| २२ | ख्यास्त | २५ |
| २३ | हुंवार | २६ |
| २४ | वाट सोदताना | २७ |
| २५ | अेक शाश्वत रूख | २८ |
| २६ | काळोख गुपाट | ३० |
| २७ | पिशें | ३१ |
| २८ | दुख्ख | ३२ |

| | | | | |
|---|---|---|---|---|
| २९ | दुयेंस | ... | ... | ३३ |
| ३० | सुपुल्लें बीं | ... | ... | ३४ |
| ३१ | भांडवल | ... | ... | ३५ |
| ३२ | कापूस | ... | ... | ३६ |
| ३३ | कावळ्याचो मरणा-सुवाळो | ... | ... | ३७ |
| ३४ | दर्या | ... | ... | ३८ |
| ३५ | घुसमटणी | ... | ... | ३९ |
| ३६ | काजुलो | ... | ... | ४० |
| ३७ | पोकळ व्हडपण | ... | ... | ४१ |
| ३८ | म्हजी शांतताय | ... | ... | ४२ |
| ३९ | दोन दोळे | ... | ... | ४३ |
| ४० | घर | ... | ... | ४४ |
| ४१ | चमचे | ... | ... | ४६ |
| ४२ | पांच कविता हॉस्पिटलातल्यो | ... | ... | ४७ |
| ४३ | राम | ... | ... | ४९ |
| ४४ | कुडकुडटचा काळखांत | ... | ... | ५० |
| ४५ | भाडेली | ... | ... | ५१ |
| ४६ | मीनाक्षीपुरम् धर्मांतर | ... | ... | ५२ |
| ४७ | वणसाबैल | ... | ... | ५४ |
| ४८ | हें रान म्हज्या पावलांचें | ... | ... | ५५ |
| ४९ | मुंयो | ... | ... | ५६ |
| ५० | म्हजे हात | ... | ... | ५७ |
| ५१ | मागणें | ... | ... | ५८ |
| ५२ | पातशाय | ... | ... | ६० |
| ५३ | अस्त्रां | ... | ... | ६२ |
| ५४ | दुख्खाची कळ | .... | ... | ६३ |
| ५५ | कल्पहावेसी | ... | ... | ६४ |

## हांव मनीस अश्वत्थामो

हांव मनीस–
हांव अश्वत्थामो.
म्हाका आवय बापुय, भाव भयणां
सोयरे धायरे सगळे आसून
हांव अेकमुळो, अेकसुरो !

आपल्याच सोदांत शेणिल्ल्या जुंव्यावरी
हांव मानांय, ऑफीसर, प्रोफेसर, फुडारी
हांव चोर, भिकमागो, चित्रकार, शिल्पी,
आदवोगाद, झुजारी,
हांव यंत्रां चलोवपी, शेतां भाटां पिकोवपी,
समाज घडोवपी, समाजांत मिरोवन घेवपी
हांव म्हळ्यार विश्वभर पातळलेलो
अेकान अेक मनीस– हांव अश्वत्थामो.

हांव अश्वत्थामो
म्हाकाच खबर ना म्हजे जिणेचो हेतू
भोंवतां युगां युगां अुपेक्षीत, काचाबुल
दोळ्यांतल्यान रकयत रखरख
रेंवाट काळाच्या मार्गावेल्यान
अनंत काळाच्यो वेदना घेवन
निर्शेणीच्या घायाचें तेल सोदीत... ...

हांव आधुनिक मनीस
हांव अश्वत्थामो !

## सुर्याचें दुख्ख

म्हजे जिणेंत रोमून राविल्ल्या
काळखांतल्या नखेत्रांचे अुले आयकताना
सूर्य आपले अुजवाडाचे हात
म्हजेसरी पातळायत
काळखाची भीक मागपाक लागलो.

हांवे सुर्याक सांगलें :
तुजे येवपांत हें शार अुदेता
तुजे वचपांत हे शार अस्तंता
अुजवाडाचो झरो तूं
तुजे किरणा–किरणांतल्यान
रूतू–रूतूंचीं बियां रसरसतात
अशें आसून
तूं काळखाची भीक मागता कित्याक ?

सूर्यान म्हळें :
म्हजे जिणेक अुज्वाडाचो शाप आसा
देखून हांव काळोख पळोवंक शकना
अुज्वाडाचे जिणेंत म्हज्या
काळोख अणभवूंक शकना
काळोख म्हळचार वस्त कितें ?
हाजी म्हाका खबर ना
मळबाच्या खोलायेचो
म्हाका मातुय अदमास ना.

हांवें सांगलें :
दुख्खाक ओतो येवन
दोळयांतल्यान चरचरीत दुकां व्हांवचीं
तशें काळखाच्या मोन्या म्हा–सागरांत
तेजीस्त ताऱ्यांचे पनेळ
काळखा वांगडा व्हांवत आसतात,
तूं तुजे दोळे खिणभर धांप
तुका सगळयाक गुडूप काळोखूच काळोख दिसतलो.

हें आयकून सुर्यान म्हळें :
भाग्यवान मनशा,
तशें केन्नांच जांवचेना.
हांव स्वयंभू अुज्वाडाचो पांगळो गुळो
म्हजे जिणेंत अुज्वाडाबगर कांयच ना
म्हज्या दोळयांक काळखाचें दर्शन घडना
तुजे जिणेक अुज्वाड-काळखाचो सांगात आसा
हांवे म्हजे दोळे धांपल्यारय
सगळयाक लिख्ख अुज्वाडूच पडटा.
देखुनच हांव म्हजे अुज्वाडाचे हात
तुजेसरीं पातळायत काळखाची भीक मागतां.

तेन्नांच्यान हांव ठणठणमारी
म्हजे जिणेक हजार आस्वासनां दीत
ह्या सूर्याक
म्हजे जिणेच्या काळखांत रिगोवन
हांव राजा कसो जियेता.

## हांव अेक शेवणें

हांव अेक शेवणें
बसता अुबयत काळ
जिवाच्या घोटेरांत
म्हजे म्हाकाच तिरायत लेखून.

हांव कोणाक दिसना
कोण म्हाका पळयना
पुणून
संवसारांत घडपी घडणुकांची
आपसुक नोंद करून घेत
अचळय जाता
त्या घडणुकांचे वांटेकार.

हांव अेक शेवणें
अुडटा म्हजी पाखां फाकारून
काळ–मळबाक तासां घालीत
यंत्रांच्या घरघरीतल्यान
शस्त्रांच्या विनाशतायेतल्यान
अनादी काळा सावन.

हांव अेक अजरंवर शेवणें

## रोप्या

लुसलुशीत आंगान
भुंयेच्या कुसव्यातल्यान
काळ–काळखाक अुज्वाडाचें भान हाडीत
अचळय वयर सरतल्या रोप्या
तुका म्हजें नमन.

तुजे वाडणुकेतले
गीता वेदांचे सार
खांदये खांदयेतल्यान
अुत्क्रांतीचें सपन शिवरीत
काळा वांगडा व्हांवत आयिल्ले
अुतळताप आपणायतले.

नव्या काळाचें मुळावण जावन
अचळय वयर सरतल्या रोप्या
तुका म्हजें नमन
तुजे फुलपांत आसा
अनंततायेचें आश्वासन

## म्हजी जीण

ब्रम्हांडाच्या विपुळकार्येत
म्हजी जीण अिल्लीशी
जाल्यारय तिचो व्हड अितिहास
पाळां मुळां विश्व निर्मणेच्या खिणापसून
आनी ताजो तिगाव विश्वलयेंमेरेन.

हांव दायजी आदी–मनशांचो
जाणीं पुजिल्लो सुर्या
म्हज्या दारांत
रूतूंचे रंग–रंगयाळे मोर नाचयता
आनी तो निरंतर
म्हज्या वंशावळीक
विश्वलये मेरेन सांगात दितलो.

## नाट

जीण मोलायत
बसचें कित्यांक
जंय आपुणूच आपल्या अुल्याक

सूर्य जेन्नां
येता अुदेवन
सगळ्यो वाटो जातात अुकत्यो

अेकाच वाटेन
चलत मुखार
जाय त्या जाग्यार जाय पावपाक

## जीण

आतां हें जियोवप
सदचेंच जालां
दर्यांत सुटिल्ल्या, सूप नाशिल्ल्या
व्हड्या भशेन.

आतां हांव सहज पचयतां
सुर्याचें अुर्बेन
        मळबाक शेंदूर फांशीत उदेवप
आनी –
सांजे वेळार जड काळजान
तोंड घेवन वचप !

## कविता

म्हाका अेक कविता बरवपाची आसा.

मात्शे रावात :
कुपां घडघडत जोगलायत येवन
म्हज्या शिरंत्रानीं पर्जळची आसात,
चोंयवशेन पातळलेल्या
पांचव्या रानांची जिवसाण
म्हज्या रगतांत खेळची आसा,
दर्या म्हज्या अुतरा – अुतरांतल्यान
        अुसळपाचो आसा !

मात्शे रावात :
म्हाका अेक कविता बरवपाची आसा.

## गुन्यांवकार

शिताची अुंडी तोंडाक लायताना
म्हज्या दोळचां सामकार नियाळटात
अर्द पोटार जियेत
वोता- पावसांत कश्टुपी शेतकार
तशेंच तांची नागडीं अुगडीं पोरां

आनी हांव म्हाकाच
अेक गुन्यांवकार दिसूक लागता !

## हांव आंकवार जड्डी

हांव आंकवार जड्डी
आसता दारांत अुबी
जशी सतरा वर्सांची चली,
पळयत रावता वाट
लजेत म्हज्या मोग्याची !

म्हगेल्यो मोन्यो भावना सुचोवपी दोळयांनी
हांव देखतां
सपन ओली शेवण्यां भिरीं
म्हाकाच फटयत पयस गेल्ली !

म्हज्या मनांतले
दुखा सुखान थपथपिल्ले सूर
दिसाक शिल्पायत
रातीच्या अदिश्ट काळखांत शेणून वतात
रूतू रूतूंची रंग पंचम
सुकी पानां जावन झडची तशी !

हांव आंकवार जड्डी
जशी सतरा वर्सांची चली !
हांव हांगच्यान गेल्या अुपरांतय
म्हजी नदर सपनाळी
कळया कळयांतल्यान मुरगट्टली !

# देवळातली मूर्त

देवळातली मूर्त अेक दीस चोरून
जित्या – जिव्या मनशाचें रूप घेवन
देवळातल्यान पळून गेली
आनी मनशां मजगती
मनशांवरी जियेवंक लागली.

तेन्ना तिका लोक
जाती–कातींची लेबलां लावन
हिणावंक लागले, पयसावंक लागले.
त्या मूर्तीक कळ्ळें :
मनशाची जीण कितली दळदिरी, अर्थ नाशिल्ली
द्वेश, मत्सराच्या बडवाचारांत हुलपत राविल्ली !

देखून ती मूर्त वाजेवन
मनशाचें अडेचें रूप काडून
परत आपल्या देवळांत गेली.
तेन्ना लोकानीं तिची परतुन
दबाज्यान थापणूक केली
आंगार मोलादीक अळंकार
झगझगीत वस्त्रां सोबयली
दुदा तुपाचे जिन्नस मुखार घमघमायले
आरती – भजनान सगळो वाठार गाजयलो
गरिब – गिरेस्तानीं तिच्या पांयार घालून घेतलें !

आयज कितलीशीच तपां, युगां जालीं
ती मूर्त त्या देवळांत
हुसक्या मेकळी भौमानान जियेता
भाविकांकडल्यान जात्रे काल्याक मिरोवन घेता.
कितल्यो पिळग्यो येतात, वेतात
ताचो तिका हुस्को, पर्वा कांयच ना !
अुरफाटी तिची सासाय अेकसारकी वाडत आसा !

आनी मनीस ?
आसलो तसोच आसा !

## फुडार

आमचे जिणेची करात फकार्णा
झडटा–झडटाना आमीं फुलतले
फाल्यां तुमकां हेवटेन वतनां
लजेवन झडत मरचें पडटलें

## जनावर आनी मनीस

हांव अेक घाणयारें जनावर !
हांवे अेक दीस
निरर्थतायेची जीण जियोवपी
अेका मनशाक सांगलें :

" मनशा
कसायाच्या हातानीं
जे दिसा म्हाका मरण येतलें
तो म्हजे जिणेतलो
अेक म्हा–दीस आसतलो !

म्हज्या मरणा दिसा
विगड जाती धर्मांचे फुडारिल्ले मनीस
घराकडेन फेस्त मनवपाक
बाजारांत लायनी लावन
म्हजे मांस विकते घेतले
आनी हांव घराघरानीं पावतलो !

मागीर
खोस पर्गटायत, धेंकर दीत खाल्ल्या
म्हज्या मांसाचे
कितल्याशाच मनशांच्या कुडींत रगत जावन
हांव तांच्या शिरांनीं
जियेवंक लागतलो !

आनी तूं !
निरर्थतायेंत जियेता तो
निरर्थतायेंतूच मरून तुजो गोवर जातलो ! "

## म्हजो बोटां

म्हजी बोटां
पियानोचेर नाचतात
रूखांचे मन
सुरांनी झिळमिळायत.

म्हजी बोटां
पियानोचेर किंवाटतात
घुसमटलेली धोंगां
नागडी नाचयत.

म्हजी बोटां :
घडयाळीचे कांटे
मळबाचो चेरो
घुंवयत आसतात.

## दुखणीं

फळा फुलांचे वसोवन गांव
　　　　सोडटा म्हजी सुकणीं

आनी तांच्या तोंचितल्यान
　　　　वेंचता जगा दुखणीं

## जिणे येरादारी

सकाळ म्हजी हांगा जाल्यार सांज खंयतरी
यंत्रांवरी चलता म्हज्या जिणे येरादारी

केन्नां करता दर्या पार भोंवता मोटार बशीनीं
केन्नां म्हाकाच परकी जावन शेणून वता गर्दीनीं

हांवच म्हजो गुलाम जावन करता जिवा फकाणां
म्हजे जिणे ध्येय किते म्हाकाच समजनां

सकाळ म्हजी हांगा जाल्यार सांज खंयतरी
म्हज्या जिणे येरादारी चलता यंत्रांवरी

# तीन कविता प्रियेच्यो

## (१)

प्रिये तुका मेळपाक हांव
म्हज्या मोगा-सुर्याचें भांगर घेवन
गर्देच्या किचकटीतल्यान,
यंत्रांच्या घरघरीतल्यान वाट काडीत
न्हंयो वझरे हुपून आयलो
आनी तूं म्हण्टा :
असो मदीच खंय हेवटेन ?

## (२)

प्रिये शारांत हांगा चंद्र अुदेला
तुज्या गांवातय तो अुदेला न्हय ?
थंय तो तुज्या मनावरी
नितळ आंगातल्यान चांदने शिंपीत
पानापानांर लोळत सावळ्यो मांडून खेळटा आसतलो

तोच चंद्र हांगा
ह्या शारातल्या अुज्वाड ओंकपी दिव्यां मुखार
मळबातूच शेणून गेला.

प्रिये हे घटकेक हांव तुजी याद जागयताना
तुज्या गांवात अुदेल्ल्या त्या चंद्राकूच नियाळटा.

(३)

प्रिये म्हजी चितनां रेल्वेतल्या प्रवासावरी
खिणाखिणांक दृष्यां बदलपी,
मन भुलवणें बंगले, बागो, अुडटी शेवणीं
गाजतो दर्या चितारता पितारतां
जीव पोकरपी खोंपी, कोयर,
गरीबकाय, भिकाड्डेंपण नियाळपी

देखून म्हाका थोडोवेळ
तुजे सपनाळे नगरेंत पासय मारून हाड.

## स्रावण न्हंय

हांव स्रावण न्हंय चल्ली जडा – आंगान कुळारा
सुगुर्व्याच्या सुरावळींचे रंग सुवाळे वाठारा

रूखा सावळे सोंशिकपण ना गे म्हाका अुरूंक
म्हजे धांवपा अुमळशिकेन लागता दोळे भरुंक

मळब म्हाका फुसलावपाक गे करता कुडी हारसो
मोगी म्हगेलो कुप–तानेल्लो रकयत रावला पोंसो

वचूं वचूं गे अशीच म्हाका लक्तुबाये कुळारा
सुगुर्व्याचे केळोवंक दीस येतली हांव दिल्लचा घरा

# झाडां अुबी तंद्रेची

झाडां अुबी तंद्रेची झेलयत पावस–धारो
फुलांतल्यान मोरांच्यो हासल्यो लिकलिक नदरो

ह्यो कोण गीत गावपी रूजयत ओली माती
झंकारिल्ल्या मळबाची हालता पात्यार पाती

तुश्टावल्या खिणांची कळा विश्वव्यापी
लख्ख मनांदेगेचेर खेळटी कृष्ण गोपी

व्हांवता अेक सारको सूर अमरूत सुखाचो
बुडिल्ल्या दुख्खा झरीक सोदता तळ मनाचो

## आंकवारपण

फुल्लेली रे फुलां माळीत हांवे तुकाच पुजला
आंकवारपण म्हजें निर्मळ तुकाच राखुन दवल्ला

बोंठार म्हज्या म्होंवा थेंबे, बोटां मोव पाखां कशी
तुकाच लागुन जिणेक म्हज्या रूतूंचो भार चडला

पावशी कुपां फुलून येवन जाता मळब रितें रितें
काळजा तळें अुपाट भरून अुमथें करूंक रावला

येवन म्हज्या दोळयांत पळे सपनांची अुडटी भिरीं
चंद्र आंगार विरगळून रकयता रत्नां-फुलां

## मोग निळो सुवाळो

अमुरपिको मंद काळोख
अमुरपिको मंद अुज्वाड
मोग निळ्या सुवाळ्याक
लिख्ख नखेत्रांचे झाड

अमुरपिके गोडसाणींत
न्हातात अुक्ती गुपितां
चंद्र तंद्रेत विरगळून
दर्या ल्हारार गुटलावता

अमुरपिक्या सुदबुदींत
पारव्या जोडी मनमेकळी
धर्तरी जावन घोंटेर
तातूंत ब्रम्हांडा न्हिदली

## ख्यास्त

कर्माची ख्यास्त
फकत बंदखणींतूच मेळटा अशें न्हय !

दैन-दळदिरांत जल्मून तातूंतच मरप
हिय अेक ख्यास्त
फांसार वचपापरस खर !

# हुंवार

हुंवार
अुदकाभर्वण करीत येता
काळाच्या गवायेच्यो वंयो
मनशांनी बांदलेल्यो मनशां मजगती !

हुंवार देंवतकच
परतुन तश्योच वंयो
मनशा मनशा मजगती
काळाची गवाय दिवंक !

## वाट सोदताना

वाट सोदताना कित्याक वाटच घुस्पायता
सगळे आसुन सांगाता जीव हुंबकळायता

फुलाभशेन जीण जरी फुलून बावपाची
वाऱ्या वोता हातान जीव पातयेंवचो पडटा

खवदळिल्ल्या दर्याचेर काचाबुल मन-तारूं
देगेर सुखावपाच्या आशेन मोडां जिरयता

विरघळटना दोळ्यांनी काळखातली नखेत्रां
म्हजे अित्से शिल्प आपशी सुर्याचेर मोखता

## अेक शाश्वत रूख

म्हजे सुप्त नदरेंत अेक शाश्वत रूख अुदेता.
हो रूख कल्पनेंतलो न्हय.
रूशीवरी ध्यानसाधनेंत मग्न आशिल्ल्या ह्या रूखाक
हांव भुरगेपणासावन पळयतालो...
बोटांनी मेजपाअितल्या मनशांनी
चार दीस ताच्यो खांदयो खांदयो मारून
ताका भुंयेवेलो मुळासयत नाच्च केलो !

ह्या रूखार सवण्यांची भिरावळ
पाना-पानांतल्यान, खांदये-खांदयेर
सुरांची देवळां निर्मिताली,
चान्ने, वोत गळूंक लागतकच ताच्या पांयाकडेन
सावळयांच्यो लजकुऱ्यो परयो मुरगट्टाल्यो,
रूजवणांचो संदेश घेवन येवपी निळीं, जांबळीं कुपां
ताच्या आंगार विरगळटकच
थिकांच-थिकां टपटपताली,
तशेंच काळखा वांगडा काळखांत अेकरूप जावन
हो रूख अळंग काळोखभर्वण जातालो...

ह्या रूखाची अेक अेक खांदी सकयल पडटना
हांवे म्हज्या भुरगेपणातल्या यादी हारशांचे
कुडके कुडके जाल्ले पळयले,
दोळ्यां सामकार म्हज्या आज्या-पणज्यांच्या
दीर्घ काळाखातीर करून दवरिल्ल्या कश्टांची
दुर्दशा जाल्ली पळयली,
तशेंच म्हज्या नातरां पण्टुरांचें दुर्भाग्यय अणभवलें.....
तरी हो रूख आपले खांदये खांदयेर
आदले भाशेनूच वैभव नाचयत
म्हजे सुप्त नदरेंत अुदेता.

## काळोख गुपाट

निरर्थतायेचो
काळोख गुपाट
अुक्तायतलो वाट
अुज्वाडाची

अुज्वाडलेल्या वाटेन
येतलें सुख घरा
झड्टली चंवरा
नखेत्रांची

ह्राज्या सांगातान
जावन हांव गिरेस्त
फांतोडतली अस्त
सार्तकतेची

## पिशें

कळना काळीज कोणाक लागून
पर्तून पर्तून लागता हुबूंक
बागेंत जसो भार येवन
अुमेदीन लागचो झडूंक

कोणाखातीर कळना वोंठार
फुलता हांसो अमुरपिको
ल्हवे–ल्हवेंत पुनव जागून
जाता ताळो सामको सुको

स्वासा वांगडा गुपित म्हजें
दिका–दिकांत आयज फांकून
कळना खंयच्या गांवा ओडीन
दोळे म्हजे आयले भरून

मोगान म्हजी याद काडीत
तळमळत कोण आसत काय ?
जिवाक अशें लागला पिशें
पारखुपी खंयआसत काय ?

## दुख्ख

नखेत्रांचे लाख दोळे
दुख्ख म्हजें सांगतले
फातरांचें काळीज तुजें
सांग कशें काकुळटले ?

म्हज्या दुख्खा खबर पेल्याक
फुक्या सवाय कित्या सांगू
दुख्ख म्हजें म्हजे वांगडा
सावळे भशेन रावतले

कांटे–खुंटे म्हाका दवरून
फुलां सगळीं तुका दिली
तुजे सुखाक झरयत कूड
हांवे जल्म अुंवाळ्ळे

## दुयेंस

सगळी सुखां आसताना
दुखान काळीज दाटचें कित्याक ?
दळदिर देखुन भोंवतणचें
म्हजी भांगरां लजची कित्याक ?

देवा तुवें म्हजे व्होटयेंत
गिरेस्ताये रकयला माप
दुसऱ्यां दैनां पळोवंक शकना
अशें दोळ्यांक दुयेंस कित्याक ?

हजारानीं येतात हुंवार
वादळां तशीं अेकसारकीं
खिणा खिणाक मरण भोगीत
हावें जगून जगचें कित्याक ?

## सुपुल्लें बीं

जाणां अश्टां :
म्हज्या हातातलें हें सुपुल्लें बीं
फाल्यां–परां मळबायेदें झाड जातलें
आनी अनंतकाळाक अुमाणें घालीत
रूतु रूतूंचे साज आंगार सोबयतलें.

जाणां अश्टा :
तूंय हें बीं तुज्या कानांक लायत
युगायुगांचे ताचे अुले आयकून घे
आनी म्हज्या वांगडा
तूंय तुजे जिणेक
कल्पांचें दर्शन घडय.

## भांडवल

हरदासाची रूपडीं चडोवन
ते तुस्त-किर्तना अुपरांत आमच्या नांवान
गाराणीं घालीत रावले
आमीं फकत तकल्यो हालयत
‘ हय सायबा ’ म्हणत रावले.

फकाणेर हांसप पळोवन
आमीं आमचीं माथीं खरपिली
आनी तांच्या पोंशातल्यान अुदक पियेत
गुपीत–जुलूम सोंशीत रावले
‘ हय सायबा ’ म्हणत रावले.

आमचे जिणेचें भांडवल करून
ताणीं आपल्या फुडाराची बुनयाद घातली.
आमीं तांचें व्हडपण जल्मभर गायत
आमची जीण व्होगडायत रावले
‘ हय सायबा ’ म्हणत रावले.

# कापूस

अुदास जिणेचें
काळीज पिळीत
खिण खिण
        झडचे गळून

सांवरीचो
कापूस तसो
हुबता वाऱ्यार
        कळवळून

## कावळ्याचो मरणा-सुवाळो

हांव अेक कावळो मरून पडला भरिल्ल्या रस्त्यार
आनी गांवभर गल्ली, पायणींत दंग आशिल्ले
म्हजे अिश्ट सांगाती अेकठांय जावन
कांव कांव करून मनोवंक लागल्यात
म्हजो मरणा-सुवाळो.

आमची कावळ्यांची कात आनी जात आसता अेकाच रंगाची
देखून आमीं आमचे मजगती
कसलोच वेगळेचार मानीनात,
आनी प्रामाणिकपणान जगार पडिल्ली
घाण, अुश्टीं, पकवान्नां अेकटेच खायनात
अशें कितेंतरी दिसतकच
आमी सगळ्यांक अेकठांय आपयतात
अेकामेकांच्या सुखांत
अेकामेकांक भरशीत.

आनी आमच्या कोणांचेय मरण दिसतकच
तशेंच आमी अेकठांय जातात सगळे कावळे
अेकासुरान आड्डून
ताचो निमाणो संस्कार करपाक.

गजबजलेल्या रस्त्यार मरून पडिल्लो
हांव अेक कावळो
आनी म्हजे अिश्ट सांगाती अेकठांय जावन
अेकासुरान कांव कांव करून
मनयतात म्हजो मरणा-सुवाळो.
धन्य हांव मेल्लो कावळो
जो कावळो म्हूण जल्मलो
आनी कावळो म्हूण मेलो !

## दर्या

ह्यांव अेक कोल्ली दर्या

हांव ल्हारा ल्हारांत मोंडां रूजयत
दिगंत गाजयता
दिका दिकांक अुले मारुन
आंगार कुपां झडयता

आनी शांत जातकच
वेळेवेल्या व्हडचांक वल्ली हालयत
पाणयांत खेळयता
आकांतून गेल्ल्या शेवण्यांक
फाटीर फुडार घेवन नाचयता

## घुसमटणी

सगळें आयकून ओगी रावप आयला म्हज्या वांटचाक
सगळें पळोवन पळोवंक ना शें करचें पडटा जिवाक

अुलयल्यार अुलयलें म्हण्टात, ओगी रावल्यार मोनें
नश्टो माथ्यार घेवन भार जावंचें लाचार कोणें ?

तशें म्हज्या अुल्यांक कोण पावना अशें न्हय
काळीज पारखुपी थोडेच मेळटात वता थंय

जिणेक म्हज्या स्राप असो : सत्य अुस्तूंक लागता
आनी फुडलें पावल अडून थंयचे थंय फटवता

अशे जिणेक म्हणचे कितें ? कितें दिवचें नांव ?
आंगाचेर पेकून घाय अुबेता आपशी मांव

## काजुलो

दनपारच्या कडार
गच्च कुळागरांत
नागडें किर्ण लिकलिकचें
तसो तूं काजुल्या
हे मदयाने राती
कोणालो सोद घेत
म्हजे कुडींत पावला ?

आनी
कोणाल्या अुत्फरक्यान
तुजें काळीज
खिणाखिणाक लखलखता ?

## पोकळ व्हडपण

पोकळ व्हडपणाचें जूं
मानेवेल्यान
चारचौगांत मिरयताना
हांवे म्हजो आत्मो भाडयाक लायलो
आनी सलाम मारीत पुण्यांय जोडली.

## म्हजी शांतताय

वादळ जावपा पयलीची म्हजी ही शांतताय !
ही शांतताय स्तब्धतायेन कुरवो कोरायत
फुलांनी विखाळ्ळचा, कांटचानी घायाळ्ळचा
मनामनाक वेटाळून पर्गटायत आकांताळेपण !

ही म्हजी शांतताय खिन्नतायेन दिगंत शेवटून
अेकलेपणाच्या जिणे रेंवांटात मुरून पडल्या
वारें करवतीचें रूंवरूंवतें पातें करून
अुज्या होमकणां लखलखावंक रावल्या !

## दोन दोळे

आडमेळच्यांच्या
काळखा घोंसार
लाख तारे अेकमुळे

चंद्र बाबडो
भोंवता अेकलो
आनी म्हजे दोन दोळे

# घर

घर बांदिल्लें वाड-वडलांच्या पुण्यायेन
व्हडा कश्टान
चार वण्टीमदी मनाक थाकाय मेळची म्हूण
बन्देपणांची, युगायुगांची
असुरक्शताय भिरकटावन.

घर बांदिल्लें
जाच्या दारा-जनेलातल्यान दिसची म्हूण
मुखावेल्या बागेंत
तरेक रंगा फुलांच्या पर्मळाक भुलून
दिगंताची शेवणीं
म्हजो मना आंवाठ विस्तारीत आयिल्ली.

घराच्यो वण्टी चकचयाळ नितळ केल्ल्यो
सर्वधर्मी तत्वगिन्यानाच्या मनभुलवण्या रंगानी
आनी साल सजयल्लें
मनीसकायेच्या वस्तीनीं
जंय विसव घेतना
नदर अितिहासाच्या दायजार फांकून
फुडारा काळ सुस्पश्ट दिसचो म्हूण.

पुणून आयज म्हज्या घरांत
घरच्यांच्या तिरसुवादाक लागून
वचत थंय कोयर, घयरांव, बुरशेपण
वण्टी वेरेवन विटिल्ल्यो,
कामीं वांशे घळघळिल्ले
बागेंत सोरपा–मालुण्डानी राबितो केल्लो.

काल पधर जल्माक आयिल्लो
म्हजो भुरगो म्हाका विचारता :
        बाबा, आमगेल्या घराची
        ही अशी आवतीकाय कित्याक ?
हांव ताका अितलेंच सांगतां :
        तुका हें घर सुदरपाचें नासत जाल्यार
        तुकाय हाजी संवय जातली !

## चमचे

व्हड मनीस खंय
जल्माक येतनाच
तोणांत भांगराचो चमचो घेवन येता… …
देखुनच जावंये
आयज मेळत थंय
सगळ्यांक ‘ चमचेच ’ दिसतात.

# पांच कविता हॉस्पिटलातल्यो

## (१)

सिस्टर सकाळीफुडें तुजो आवाज आयकुपाची
म्हज्या जिवाक सामकी संवय जाल्या
सगळी रात जागी रावन
तूं सकाळीफुडें तुजे आवाजांत
फुलत्या फुलांची अुमेद,
नव्या दिसांचे फुडारपण
अुतरा अुतरां कणकणी मायेची उब
सांग हाडटा खंयच्यान ?

## (२)

हॉस्पिटल विशाळ रूख
आनी पेशंट्स
लोंबकळपी अेक अेक घोंटेर !

## (३)

पेशंट दोतोराक सांगता :
म्हजें काळीज फुलांचें
मायेन म्हजेर नदर घाल
जावं चाळण कुडीची
अुतरानीं अुणें कर हाल

(४)

हॉस्पिटल पिडेस्तांचो बाजार
व्यथांचे वेगवेगळे नमुने
हांगा युनिफोर्मांत
कोण सावकार कोण भिकारी
जाती धर्मांची खंय वळेरी ?

(५)

हांव पांच वॉर्डातल्या तेरा नंबरच्या खाटीवेलो पेशंट
म्हज्या मनशांमदें वचपाची चित्रां रंगोवन
म्हाका त्या चित्रांनी नियाळटा !

मदी मदी फाटीतल्यान कला येतकच वळवळपी हांव
म्हजें कांय दिसा पयलीच
कॅन्सरचें ऑपरेशन जालां.
पुणून आता हांव बरो जायत वतलो
अशे आशेर जियेता !

म्हज्या कुडीक मातयेक मेळपाचे वेध लागल्यात काय ?

## राम

खेळणें समजून
खेळपाक वाटकुळो चंद्रच जाय
म्हूण आडांगीपणां करपी
अपुरबाये राम
अपाशी वा अदर्यापोटार वाडपी
नशिबफुटको भुरगो आशिल्लो जाल्यार ?
त्याच चंद्राक तो घडये
रिती वाटली समजुपाचो !

# कुडकुडटचा काळखात

रातीच्या कुडकुडटचा काळखांत
सगळो वाठार सुस्त न्हिदला
आनी शांतताय चिरीत
हांव कपेल
दारातल्या अेका निराधाराच्यो
खिण खिण कडवपी घायाळ ह्युयेली
सगळ्याक सादयता !

सकाळ सांजे भावीक
भक्तीच्यो वाती पेटोवन
भितल्ल्या संताक व्होरायतात
आनी ह्या कुडकुडटचा काळखांत
हांव कपेल
भितल्ल्या संताचेच
युगां युगां घुसमटत चिड्डून अुरिल्लें दुख्ख
ह्या निराधाराच्या रूपानं
पर्गटायता काय किते ?

## भाडेली

आपलो भौमान करून घेत
लख्ख गिन्यानाचे पावंडे
मोडून वडोवन
चकचयाळ राजरस्त्यांचेर
जीण भाडयाक घालपी भाडेलांची
मेकळेसाणीन धुडघूस;
म्हा–सागरांची अदृश्य खोलाय मापायत
पिळग्यांच्या फुडाराचें सपन रेखपी
आत्म्यांच्या नांवान
शबै घालीत !

## मीनाक्षीपुरम् धर्मांतर

मीनाक्षीपुरम् सारकेल्या धर्मांतराची घडणूक
हांवें म्हज्या नातरां पण्टुरांच्या म्हायतीखातीर
म्हजे जिणेच्या डायरींत बरोवन दवल्ल्या !

ह्या देशाचें दायज व्हड मानपी आमीं
पुणून म्हात्म्यांची शिकवण लेगीत
आमची मोटवी जिणे नदर बदलूंक शकना
असले आमीं फातर !

देखून बुरशा धर्मकोल्लांचें कुड्डे सुणें
मागाशिल्ल्याची पिडापिड करीत
आलमपेड्डयार जावन शेण अुस्तीत हेडटा
तेन्नाच मीनाक्षीपुरम् सारकेली पवित्र थळां
धर्मांतरान बाट्टात !

धर्मांतरा अुपरांत सगळ्याक कांय खिण
मुक्ताफळांच्या धुल्लांचो थर
मात्सो वयर वातावरणांत हुबता
आनी मागीर तो आसलो तसोच
मातयेवांगडा अेकरूपता !

हे धर्म बदलगी लोक निर्धाराच्या मेकळेसाणींत
अितीहासीक दिवंतांक जल्म दितना
सगळे तांका अडेची सवंगा समजतात
पुणून तुमच्या काळार तांची नातरां पण्टुरां
तुमकां धारेस्त धर्मकट्टर जाल्ली दिसतली !

तशेंच म्हज्या काळावेलें हें आयचें
धर्मांतराचें अिल्लेशें पिल
तुमकां तुमच्या काळार
अेक आकांताळे जनावर जावन
आपल्या भिरांकुळ दावकुलांनी
तुमचेर शेक गाजोवंक लागिल्लें दिसतलें !

पुणून आयज म्हजे जिणेचे डायरींत
हें बरोवन दवरताना कळना कित्याक
मीनाक्षीपुरम् सारकेल्या धर्मांतराच्या निमतान
म्हज्या दोळ्यांसामकार म्हजी नातरां पण्टुरां
धर्मांतराच्या त्या आकांताळ्या जनावरा भोंवतणीं
अल्पसंख्य जावन वावुरताना दिसतात !

## घणसाबैल

गळ्यांत मेकळेपणाची घुंगरा घणघणायत
म्हजे जिणेंतलो पळून गेल्लो
अश्टानों तुमी म्हजो घणसाबैल पळयला ?
ताज्या फाटीर म्हज्या हावेसांची पोटली आसा !

ताणेंच म्हाका शिकयल्लें :
मोण्णा–मोण्णार गर्दी जमोवन
तकली हालयत नाडींगपणां करपाक
गांवा–गांवांच्या न्हंये, व्हाळांत आंग सोडून
मुखार वचपी अुदक खोदुळ करपाक... ...

अश्टानो पळयला व्हय तुमी म्हजो घणसाबैल ?
तो जिणेतलो वचत सावन
म्हजो पुरूषार्तूच ना जाला !
हांव पुराय नालायक घडला !

# हें रान म्हज्या पावलांचें

ही वादळां म्हज्या स्वासांची
म्हज्या रगताचो येवकार घेवन
धायदिकांक जागयतात
अुज्वाडान काळखाक विरगळावचो तशीं.

हीच वादळां केन्नां केन्नां
म्होवाळ सुरांच्यो सतारी वाजैतात
रस्त्या–रस्त्यांचेर
किरणांची बोटां भोंवडायत

ह्या वादळांत
हांव म्हाका शेवटून दितना
हें रान म्हज्या पावलांचें
अशें विस्तारत रावता... ...

## मुंयो

आमीं मुयांची जमात !
देशाच्या शिरगणटेर नाशिल्ल्या नागरिकांवरी
आमचो जमाव चलता शिस्ती चाल
आशेन वास घेयत भोंवतणचो!

काळ कुन्नाटी पातशाय कसो
दया माया दाखय नासताना
आमकां मुयांक चिड्डीता गुड्डीता
पुणून आमीं वाडतच रावतात
देशाच्या शिरगणटेर नाशिल्ल्या
दुर्दैवी नागरिकांवरी !

## म्हजे हात

कांटया–खुंटयानी, धोली भुयेरांनी
हेच म्हजे राणटी हात
हिंस्त्र जनावरां मारपा खातीर
गुण्या–भाल्यांची हतयारां घेवन शिवशिवले !

हेच म्हजे अडाणी हात
जेजू माथ्यार कांटया मुकूट घालून
गांवभर पिडापिड, बकच्छायो करतकच
ताका खुरसार खिळावन धादोसले !

नवलायेचो सोद लावपी
हेच म्हजे अजापी हात रेडियो, टिवीचेर
खिणांत अमर्याद मैलांचें अंतर कापून
लाखा कोटयांनी मनशांच्या काना दोळयांकडेन
अेकाच बराबर पावतात !

हेच म्हजे फुडारिल्ले हात
खेळटात झुजां बोबो हुयेली गाजयत,
रगतांच्यो न्हंयो व्हांवयत, तशेंच
धर्तरी पडिंग करपी हायड्रोजन, न्यूट्रोन घेवन
मनीसकायेची अुलोवपां आयकयत !

## मागणें

सुर्या तुजेलागी हांवे
चैतन्याचें रूप घेवन
काळखा दर्या हुपून येत
सुखा दोंगर अुक्ते कर म्हूण मागिल्लें

नाट चुकिल्ल्या खिन्न वाऱ्याक
अखंडतायेन व्हावूंक लावन
अदिश्ट अनंतकाळाकडेन
भूतकाळाचें नातें जोड म्हूण मागिल्लें

दोळेभर तुका हांवे
मातयेभर्वण जाल्लो काळ पळोवन
अजरंवराचे दर्शन घडवपाक
नव्याकाळाची दारां अुगड म्हूण मागिल्लें

खिणानखिण ही धर्तरी
खोल काळखांत बुडून वता
देखून तिका तुजे वेंगेंत घेवन
अुज्वाडाची गाथा सांग म्हूण मागिल्लें

मनीसकार्याचे तुटिल्ले धागे
गुथून एकठांय करीत
दुकांच्या हुनसाणीचो अितीहास
जगाक कळीत कर म्हूण मागिल्लें

तुजी किरणां आमच्या आंगांत
अिंजेक्शनां कशी रिगोवन
पर्जळाची तुजी निर्मळ जीण
आमच्या पंचप्राणांत झळझळाय म्हून मागिल्लें

आदी – अंताच्या घडणुकांचो तूंच गवाय
अशी तुजी म्हयमां
पुणून म्हज्यो मागण्यो पुराय करपाक
तुका हातच नात !

## पातशाय

हांवे म्हज्या दोळयांचेर
खासा हारशांचे ओक्ल चडयल्या अुपरांत
सगळे लोक
गलीवर्साच्या काणयेतल्या भशेन
अिल्ले–अिल्लेशे जाले.

मागीर हांवे व्हडा–व्हडान घोषणां दिवन
सगळयांक अेकठांय हाडले
आनी गोल तायट करून
हांव म्हज्यायेदया, चेपटया हारशामुखार अुबो रावन
म्हजें बिंब तांका दाखयत नेटान म्हळें :

" हांव मनीस आकांताचो हो घेयात पुरावो.
हांव तुमचो पातशाय, तुमीं म्हजे गुलाम
करात जयजयकार मारात सलाम. "

अुपरांत हांवे
सगळयांच्या भोंवतणी झगझगीत अुज्वाड सोडून
सगळयांच्यो सावळयो नाच्च केल्यो,
आयस्क्रीमीच्यो गजाली सांगून
सगळयांक येंडेल पिवयलें
आनी तें " गोड गोड गोड शरबत "
अशें म्हणून घेतलें.

फुडें हांवे हुकूम सोडले :
चंद्राची पॉलीश गेल्या
ताका नव्या रंगान चकचयाळ करून
म्हज्या बोल्सांत घालात
लुकू-लुकू नखेत्रांक टेक्नीकलर दिवन
घुंगरां कशीं झणझणायात,
ह्या मळबाचोच अेक विशाळ तासांचो हारसो करून
मळबभर म्हजीं बिंबां सोडात.

आनी कितें सांगू :
जादवाची कांडी हालयल्या अुपरांत
चमत्कार घडचो तशें
म्हजें अेक अेक अुतर वज्र जायत गेलें
आनी वशाचो रोग लागिल्ल्यावरी
अेकलो अेकलो मरत रावलो.

# अस्त्रां

जिणेतले फटकिरेंपण, आपसुवार्तपण
भायर काडून
हांवें म्हाका हारशांत पळयलें
आनी हांव म्हाकाच वळखुंक विसल्लो !

देवधर्म, स्रद्धा, संस्कृतायेचें नातें तोडून
हांव म्हाकाच प्रस्न करूंक लागलो
तेन्नां म्हाका ह्यो बांदून वडोवपी
सांखळयो कशो दिसपाक लागल्यो !

संत योग्यांक हांवे रचणाराचें मूळ विचाल्लें
ताणीं म्हाका, रचणाराचो प्रवास सासणाचो
तो विश्व, ब्रह्मांड वेटाळून राविल्लो म्हूण सांगलें
तेन्नां म्हाका ही फकत कवी कल्पना दिसली !

आनी हांवे ह्या सगळयांचेच भांडवल करून
धंदो सुरू केलो
तेन्नां म्हाका ह्योच गजाली
म्हजे जिणेचे सार्थक करपी,
मोक्षाची दारां उगडपी
अस्त्रां कशी दिसपाक लागली !

## दुख्खाची कळ

काळजांत दुख्खाची कळ  सणसणून आयली
जशी अनवळखी प्रदेशातल्यान कुपां हुबत येवंची
तानेल्ल्या भुंयेर  विरगळपाक
जडा–आंग.न  कळवळून.

काळजांत सणसणून  आयिल्ली दुख्खाची कळ
सोदपाक  लागली
मनाच्या अथांग  अस्तित्वतायेंत
मनीसकुळयेच्या  जिणे  भोंवडेच्या
अर्दकुटचा वाटेवेली  निरर्थताय.

ही सणसगून आयिल्ली  दुख्खाची कळ
अुस्तूंक  लागली  अितिहास
कृष्ण, बुद्ध, जेजू, साबार संतांनी घडयल्लो
हेच  कळेचे  मूळ  सोदीत
चिरंतनाच्या  भोंवडेखातीर.

अे !  काळजांत सणसणून  आयिल्ले दुख्खाचे कळे
कित्याक म्हाका हुमकळत दवल्ला
त्रिशंकूवरी मदले मदी
धड न्हय पाताळांत, धड न्हय सर्गांत
ही  जिणे  भोंवडी  करताना
काळखातल्यान काळखाकडेन
काळखातल्यान काळखाकडेन

## कल्पहावेसी

हांव गळिल्लें पान कशें काळावांगडा व्हांवपी मनीस
कल्पहावेसी सपनांचो मानेर घेवन भोंवता खुरीस
हो खुरीस भाग्याचो ताच्या दिश्टाव्या अमर तत्व
कल्प–कल्पांच्या वाटेर ताका अविनाशी आसा म्हत्व

हांव धुल्ल वावटळीचो म्हजो संपर्क सगळीकडेन
सातरंगी तेज नाचयत सुर्य–किर्णांत न्हाता मजेन
म्हजो राबितो अकतड्चार, खोपी, घरा पालासिनीं
अिश्ट म्हजे दुबळे गिरेस्त भेट्टात पावला कणकणीं

हांव मनीस, हांव प्रवासी अुत्क्रांतीची वाट चलपी
जिणे मरणा सांगड घालीत वावझडीक तोंड दिवपी
स्वासातल्यान काळ व्हांवयत कल्पदिकांचे आयकत अुले
चार चौगां मदीं रावन चार चौगां वरीच दिसपी

## हांव मनीस अश्वत्थामो



**प्रकाश पाडगांवकार** हांचो हो तिसरो काव्य झेलो. तांच्या "**अुजवाडाचीं पावलां**" या झेल्यातल्या अनंततायेचें भान आशिल्ल्या कवितानीं सैमाचें आनी जिणेचें रहस्य अुजवाड – काळखाच्या प्रतिकानीं अुक्तें केलें... ...

आयज अुद्योगीकरणाच्या तेंगशेर पाविल्लें "वास्को" हें गोंयचें खऱ्या अर्थान प्रातिनिधीक शार... ... फायचे गोंय नागडें–अुगडें–पोजडें कशें आसतलें हें "**वास्कोयन**" या झेल्यान दाखयला... ... आनी आता हो तांचो तिसरो झेलो "**हांव मनीस अश्वत्थामो**"... ... आयचो मनीस म्हा-भारतातल्या अश्वत्थाम्यावरी कसलो ना कसलो घाय घेवन जियेता... ... आवय–बापुय, सोयरे–धायरे, अिश्ट सांगाती सगळे आसून अश्वत्थाम्याच्या वांट्याक दुख्ख अुपेक्षेबगर कांयच येवंक ना... ... दुस्मानानीं ताच्या तकलेर आशिल्लो लखलखीत "हिरो" कोंचून त्या जाग्यार सासणाचो घाय दवल्ला, तो अेकसारको व्हांवत आसता... ... हो अश्वत्थामो युगांयुगांसावन मनशाच्या रूपान अनंतकाळाची दुखणीं घेवन निर्शेणीच्या घायांचें तेल सोदीत भोंवत आसा... ... अशो चिरंतन सुखा–दुख्खाची जाणविक आशिल्ल्यो ह्यो कविता देखूनच कवि म्हण्टा :

> **" जो मेरेन धर्तरेर मनीस जिवो आसतलो**
> **तो मेरेन अश्वत्थाम्याक मरण ना "**

मुखचित्र : **दिगंबर सिंगबाळ**